वंदु वर्साचो साहित्य अकादमी
पुरस्कार जोडिल्लो म्हजो इष्ट
श्री मेलविनबाब रोड्रीगीज
हांका मायमोगान
पंढरी लोटलीकार
16/1/2012

# उदेन्ती कीर्णां

**कविता संग्रह (कोंकणी)**



पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार

**Udenti Kirnnam**

Poetry collection (Konkani)

By

Pandharinath Damodar Lotlikar

**उदेन्ती कीर्णां**
कविता संग्रह
(कोंकणी)
पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार

**Udenti Kirnnam**
Poetry collection (Konkani)
By
Pandharinath Damodar Lotlikar

**वर्स (Year):** २०११
(१९-१२-२०११)





**छापपी (Printers)**
'Sayadri Offset system'
तिसवाडी, खोर्ली, गोंय ४०३ ११०

**मुखपान (Cover page)**
'Samruddhi Enterprises'
आकें, मडगांव, गोंय ४०३ ६०१
मुकेश आळवे (९८५०४५६२४०)

**उजवाडावपी (Publisher)**
प्रजय पं. लोटलीकार
ई-१०, दुसरो माळो,
सिल्व्हर गेट ईस्टेट, आकें आल्त
मडगांव, गोंय ४०० ६०१
फोन: ९९२२२३३३७४

मॉल: १६०/-

# उदेन्ती कीर्णां



*भारतीयत्वाचो अभिमान लोकांमदें जागोवपी*
*तशेंच,*
*समेस्तांनी आपणांल्या भुरग्यांक*
*शिक्षण मेळोवन दिवचें म्हूणन प्रेरणां दिवपी*
*सर्गेस्त दामोदर पांडुरंग लोटलीकार* **"बाबा"**
*आनी*
*सर्गेस्त रखुमाबाय दा. लोटलीकार* **"आई"**
*हांच्या पवित्र उगड़ासाक अर्पण*

# उदेन्ती कीर्णां

## प्रस्तावना

जंय सगलो संवसार सैमीक सौंदर्या मुखार नतमस्तक जाता, मान बागयता, आदरमानान दिमी मोड्टा, तें आमचें गोंय. गोंयचे भूंयेर जे तरेन सौंदर्य देंवलां तेच परीं हे पुण्य भुंयेर आंगापांगांत प्रतिभेचीं कीर्णां घेवन कांय मनशानीं जल्म घेतला. अश्या व्हडा मनशांच्या वळेरींत कोंकणी भक्त पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार हाचें नांव सहज येता. फकत गोंयचें वर्णन गावन हे म्हालगडे वगे रावले नात. हाडा मासान जे भूंयचे आमी धनी जावन आसात थंय परकी सत्तेन आपली हुकमशाय चलोवप हे खंयच्याच स्वाभीमानी मनशाक मानवचें ना. पूण आपले प्रतिभाशक्तीच्या पालवान व्हडा धाडसान हाचे आड आवाज उठोवप आनी लोकांमदें जाग्रुताय निर्माण करप, आपलो पुरुशार्थ सदांकाळ राखून दवरपाक प्रेरीत करप, स्वातंत्र्य लढ्याचो इतिहास लोकामुखार दवरुन तांच्यांत देशप्रेम आनी स्वाभिमानाची भावना निर्माण करप अशें भोव थोड्यांक शक्य जाता. गोंयच्या मुक्ती उप्रान्त कोंकणी काव्याक झरोसो फुटलो म्हणल्यार अतिताय जावची ना. हांव हे प्रक्रियेक गवाय आसा. तरण्या पिरायेचेर तरनाट्पणाक लागु अशा विशयांचेर कविता स्फुरुन येतात. पूण पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार हांची प्रतिभाशक्त फुलून आयली ती राशट्रभक्तीच्या रुपान. आपल्याक जें काव्य स्फूरता तें जो मेरेन प्रभावशाली रुपान लोका मेरेन पावना तो मेरेन लोकजागृती निर्माण करपाचो वावर अर्दकुटो हें मतींत दवरुन "तांकां आमचें नमन" ही संगीतीका बरोवन ताणें आपूण जावन फुडाकार घेवन लोका मुखार दवल्ली. पयलो प्रयोग १९८० सालांत वास्को, मागीर मडगांवां आनी मागीर एका फाटल्यान एक अशे कार्यक्रम जायत रावले. कोंकणी भाशेच्या मळार राश्ट्रभक्तीचेर आधारीत हें पयलें वयलें संगीत रुपक. कोंकणी साहित्याक हें पंढरीनाथबाबालें अप्रूप अशें योगदान. स्वातंत्र्य चळवळीचो तशेंच गोंयच्या मुक्तीसंघर्शाचो इतिहास तातूंत गीतां आनी निवेदन अशें रुपान चिंतारिल्लो आसा देखून हें कार्य अधीक म्हत्वपूर्ण थारता.

कोंकणी भाशेच्या चळवळींत सक्रीय़ पंढरीनाथबाबान विवीध विशयांचेर बरप केलां आनी एका तेंपार 'सत्', 'दिवटी', 'कोंकणीचें कळार', 'गुलाब'; आनी आतां 'कोंकण दिवो', 'पाकळ्यो' आनी जायत्या नेमाळ्यांनी तांचें बरोवप उजवाडाक आयलां. अनेक रोमी आनी देवनागरी लिपींतल्यान प्रसिद्ध जावपी नेमाळ्यानी तांचें साहित्याचें योगदान आसा. १९६६-६७ सालांत गोंयचें वेगळें अस्तित्व सांबाळून दवरप आनी कोंकणी भाशेक मानाची

सुवात मेळोवन दिवप हे दिकेन "ओपिनियन पोल"-आ वेळार मडगांवां विरोधकांचे आघात पंढरबाबान सोसल्यात हाचो उल्लेख केल्या बगर रावं नजो. आयज जेन्ना कोंकणी चें स्थान उंचल्या थरार पावलां तेन्ना हे गजालीची नोंद घेवपी कोण ना सो जाला. पंढरबाब आपले एके कवितेंत असो शेरो मारता:

उडत्या पाख्यांचीं
कुसां मेजपी तूं!
पाळां, मुळां, कारणां, उपाय
तूंच बरें जाणां
पुण सत् केन्ना जाणलेंचना!

कोणाक शिणनासताना मोन्यानींच वावराची ज्योत प्रज्वलीत दवरप हें धोरण आपणायल्ल्यान आयज मेरेन पंढरबाब व्हडा निश्ठेन कोकणी सरस्पतीची सेवा करपाक पावलो. अशें म्हाका म्हणन दिसता तांच्या ह्या काव्य-पंक्तींतल्यान :

कायंच ना उलोवपाचें
यादींतच शेणपाचें
मोन्यानीच सोंसपाचें
ना कोणाक शिणपाचें... (कायंच ना उलोवपाचें)

शिक्षण आनी हेर विशयांचेर हिस्पाभायर ताणी आकाशवाणीवेल्यान कार्यावळी सादर केल्यात. आकाशवाणी, दूरदर्शन आनी गोंयां तशेंच गोंयाभायर अनेक कवी-संम्मेलनानीं ताणीं वांटो घेतला. दूरदर्शन प्रसारणमाध्यमांत केन्द्रसंचालक म्हूण वावर करुन सेवानिवृत्त जावपी पंढरीनाथबाबा लागीं विद्वत्तेचें बळ आसा. तें तांच्या काव्यांत झळकता.

तांच्या कवीतेंत उपाट अलंकार दिसून येतात; ते खातीर सुंदर कल्पना विलासा वांगडाच सुंदर शब्द-रचनेन तांच्या कवीतेंतल्यान जबरदस्त आनंद मेळटा. सृजनशीलता, कल्पनाशक्त आनी वास्तवीकतेचे वेध हांच्या पालवान तांचे काव्य गिरेस्त जावपाक पावलां हातूंत दुबाव ना. ताका लागून तांगेल्यो कवीता कांयकडेन भौच म्होंवाळ तर कांयकडेन वजनदार दिसतात आनी मनाचेर परीणाम करुन सोडटात. देखीक

एक सूर भिन्न तार
भिन्न वाद्यां एक ताल
गोड असो मेळ घडय
तूंय सूरांत सूर मेळय..... (एक सूर)

तशेंच हे शब्द पळेयात : तुटून पडचें सगले शक्तीन
एक अचानक आक्रमणाचेर
तेच धाडसान झुंजला रुख तो
अनेक मोडांक तोण दिलें!.... (रुख)

हे कवीन आपल्या काव्याच्या साधनान लोकांचीं मनां खेळयल्यांत. ते शब्दकोशांतली उतरां वापरच्या बदलाक गावां गावांत तिट्यार उलोवपी लोकांची, माडांचेर गीतां झेलोवपी रेंदेरांचीं, शेतांतल्या चिखलांत कण्णो घालून नडणी करतल्यांचीं आनी वेळेर कानार सादपी खारवी भावांचीं उतरां वापरुन भौसाच्या काळजांक स्पर्श करतात:

नुस्तें सुवादीक खाजनांचें
मस्तें मानां हांसपाचें
मानशेर चोय उडटा सुंगट
घुमता घुमट........

'घुमता घुमटां'-तलीं अशीं उतरां वा' तुमीय नाचूंक येयात गो!'-तलीं हीं उतरां....

पेजे निवोळ, तोंडाक कुवोळ
जेवन बीवन घेयात गो;
आरे कामील, उर्मील, एमील,
आमील खावन येयात गो!... अशे तरेचीं उतरां अस्सल
कोंकणी थाट दाखयता.

हे कवीच्या काव्यांत विविधता आसा. अनेक विशय कवितेच्या सूत्रांत भेस बरे तरेन बसोवपाक तांकां साधलां. मोगाच्या मधूर खीणांची ओलसाण तशेंच गोडसाणय तांच्या

काव्यांतल्यान प्रदर्शीत जावन वाचतल्यांक हो कवी मर्दी मर्दी तांच्या भूतकाळांत व्हरून सोडटा. देखीक

**माणकुलें तें मस्तें हांशें**
**तेन्नां तशें आतां अशें**
**तेन्ना फकत खेळा पिशें**
**आतां मात तुजेंच पिशें! ......(आपा लिपा)**

आमच्या सुपुल्ल्या गोंयां शांतीचें आनी मोगाचें वातावरण सदांकाळ तिगून उरचें अशी इत्सा बाळगुपी पंढनरीथबाबाक आयजकाल चलपी धुमशाणाची चाल सतयता. ते आपलें कवीमन उक्तें करता आसतना वास्तविकते कडेन बोट दाखयतात :

**मायमोग रीत रिवाज**
**अभंग मीस श्लोक**
**देखणी धालो दुलपद**
**विसरले खूब लोक**
**सगलेच हालीं आपलेवादी**
**फकत जाय मोग.... (रिमिक्स)**

तांच्या काव्यांत आशावादाचीं किर्णां परजळटात. जाग्रुतायेची ज्योत परजळीत दोवरपाचो वावर निशफळ जावचो ना अशी आस्त ते बाळगून आसात. जिणेची वाट सारकी चलपाक उजवाडाची वाट दाखय म्हूण नमळीकायेन ते देवा लागीं मागतात.

पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार हे निशठेवंत ध्येयवादी जावन आसात. कोंकणी साहित्याच्या मळार सतत ४५ वर्सां ते वावरत आसात. लोकाक समजना असली कठीण वाक्यबांदावळी पसून अलीप्त रावपाच्या आपल्या सिद्धांतापासून ते केन्नाच सरकले नात. सर्वसामान्य मनशांलागीं संपर्क साधपाक शक्य जालेंना जाल्यार सगलें अर्थहीन अशें मानपी ह्या कवीन "उदेन्ती कीर्णां"ची भेट कोंकणी समाजाक भेटयल्या. पुस्तकां उजवाडाक हाडपाक आतां ज्यो सुविधा आसात त्यो आर्दी उपलब्द नासल्यो देखून ज्या प्रमाणांत तांचें बरप पुस्तक रुपांत प्रसिद्ध जावपाक जाय अशिल्लें तें जावपाक पावलें ना. आकाशवाणीचेर तांच्या सहवासांत येवपी नांवाजते कवी शंकरबाब भांडारींच्या बाबतींतुय अशेंच घडलें. तांचो

एक लेगीत कविता संग्रह उजवाडाक आयलो ना पूण ते लोकांच्या काळजानीं अमर जावन उल्ल्यात. सुप्रसिद्ध कवी वामनबाब सरदेसाय हांचेय बाबतींत तेंच घडलें. कविता संग्रह उजवाडाक येंवक पावलो ना पूण तांच्या काव्याच्या मोलाची नोंद घेवन भारत सरकारान तांकां पद्मश्री प्रदान करुन गौरव केलो. मागीर ते स्वर्गवासी जाल्या उप्रान्तुच तांच्या साहित्याच्या योगदानाची जाण आयली आनी कवितां झेलो उजवाडाक हाडलो. पंढरीनाथबाबालीं "उदेन्ती कीर्णां" अशा अनेक गजालींचेर लक्ष ओडटात. तांच्या कवितांतल्यान नकळटां गोंयच्या सामान्य मनशाचें आनी गोंयच्या अखंड समाजाचें चित्र प्रदर्शीत जाता. संग्रहांतल्या उतरांचो तालमेळ आनी लय काळजाक स्पर्श करपासारखो आसा. तोंडार घोळपा सारखीं गीतकवनां आनी कांय जोडगीतांय आस्पावन घेतिल्ल्यान कवितां झेलो संगीतमय जाला. उजवाडाचीं कीर्णां फांकोवपाच्या ह्या वावराक पावला पावलार जैत मेळू हेच आंवडे.

- युसूफ अ. शेख
वास्को-द-गामा, गोंय.

# उदेन्ती कीर्णां

## उमळशीक

कवी भावना प्रगटायता. लोकांच्या अंतस्करणांत त्यो भावना जागयता. मागीर कवीक आयला तोच अणभव लोकांकय येवूंक लागता.

मोग, खोस, दुख, तिडक, राग, भंय, खंत अशा तरेच्यो भावनां मनशाच्या अंतस्करणांत मुळच्योच आसतात. उतरांनी त्यो जाग्यो जातात. देखून उतरां म्हण्टात तीं संक्रमण घडवपाची व्हडली ताकत जावन आसता! आनी हेच खातीर काव्य हें भौ प्रभावी माध्यम थारता. स्वताक आपणें जें कितें बारीकसाणीन अणभवलें तेंच तो कवी उतरांनी प्रगटायता.

काव्यच अशें न्हंय, तर ललित वाङ्मयाच्या तरेकवर जिनसाचे वाचप आनी आयकप जातकच त़्या त्या भावनांची आंदोलनां मनांत निर्माण जावून विशिश्ट मनास्थितीचो--खोस वा दुख, राग-मोग, स्वीकार धीक्कार, आसेचो वा निराशेचो....अणभव येवूंक लागता. काव्यांतल्यांन मेळपी भावनांचो असो अणभव होच काव्यरस! काव्यांतल्यान प्रगट जाल्लो भावनांचो आविश्कार म्हळ्यारच काव्यसौंदर्य! अशे तरेचें काव्यसौंदर्य हे कविता संग्रहांतल्यान वाचप्यांक मेळचें अशी उमळशीक बाळगीतां!

हे काव्य संग्रहाक जेश्ट कवी श्री युसूफ अ. शेख हांची प्रस्तावना लाबली पासत हांव तांच्या खूब उपकारांत आसा. हो कविता संग्रह उजवाडाक हाडपाच्या वावराक हातभार लावन तेंको दिवपी म्हजो इश्ट 'कोंकण दिवो' नेमाळ्याचे संपादपी श्री अशोक चोडणकार हांचो हांव काळजा थावन उपकारी आसां. तशेंच मुखचित्र आनी पुस्तकाची मांडावळ बरे तरेन जावपा खातीर श्री मुकेश आळवे हांणी भौ कस्ट घेतले पासत़ तांकाय दीनवासतां.

ह्या कवितांतल्या कीर्णांनी समेस्तांमदें उमेदीची फांतोड जावूं अशें आंवडेतां.

देव बरें करू!

**पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार**
**मडगांव**

# उदेन्ती कीर्णां

उमेदीची फांतोड जाता
काळखी रात सोंपता तेन्नां
रातकीड्यांचो बोवाळ दबता
संगीत-सूर प्रगटता तेन्नां;

गोड संवाद उफाळत तर
कीर-कीर पीर-पीर थंडावता
उदेन्ती कीर्णां फांकतात तेन्नां
नव्यान बळ  शीरशीरता;
मोगा रोप वाडत तर
सद्भावनेचो रूख फळफळटा!

व्हड जावूंक दी तसलें झाड!
मागीर ताका लागतलीं
धादुसकायेचीं रसरशीत फळां!
हेच हावेसान सदां सदां
सपनेतां हांव त्या झाडा मुळां....
तेन्नां म्हाका दीसूंक लागता :
आंगभर रुखाच्या
सत्कर्माचीं फळां रसरसतलीं
ताळयेन ताळी वैभवान फुलतली!
पार्टी भरून भरून तीं फळां
घरां घरांनीं पावतलीं....

त्या गोड फळांच्या धादोसकायेन
कोडवेपणां पळटलीं
मनीसपणां कळटली
मनीसपण कळत तर
दादागिरी थंडावतली
दादागिरी थंडावतां थंडावतां
अहींसाच आमकां जगयतली!

हेच ध्येयान रे भावा
मोगचें रोप रोयता तेन्नां
सद्भावनेचो रुख वाडूंक लागता
शान्तीची फळां रसरसतात तेन्नां
जगाक वैभव दीसूंक लागता!

# एक सूर

दिर्कीं धांय दिकी धांय
दिर्कीं धांय दिकी धांय
हांगा थंय जंय थंय
ठांय ठांय वता थंय
सूर लय ताल पळय
तूंय बी तार जुळय
दिर्कीं धांय दिकी धांय....

जुळत तार तरच सार
उर्बेवंत नाद घोळय
मैफिलीचो मांड खेळय
मनांमनांत उमेद केळय
दिर्कीं धांय दिकी धांय.....

एक सूर भिन्न तार
भिन्न वाद्यां एक ताल
गोड असो मेळ घडय
तूंय सूरांत सूर मेळय
दिर्कीं धांय दिकी धांय.....

# सुमधुर सूर

आरोह अवरोह
सुमधुर सूर ....

मन-सागरांत
हाडता पूर

जुळील्ली तार
जुळयता सार

मैफीली धार
हुबयता ल्हार

संगीता भार
दुख तडीपार .....

# कोंकणी गाज

घुमत  घुमत
शेमेळ घुमट
कोंकणी गाज
आसा टिगत....!

जागोर मांडे
दुलपदांत
साद घालत
नाद घोळत
घुमत घुमत
शेमेळ घुमट
कोंकणी थाट
सोबीत सोबैत
घुमत घुमत
शेमेळ घुमट
कोंकणी गाज
जागयता गाजत....!

# घुमता घुमट

घुमता घुमट  घुमता घुमट
आयजय बी घुमता घुमट..!
काजरांक, फेस्ताक,
कुळागरांत
जागोरांत, प्रायेर,
माडामुळांत
आयजय बी वाजता घुमट
घुमता घुमट  घुमता घुमट.....
मांड्यांत, देखणींत, दुलपदांत
दसरो जावूं शिगम्या रात
चवथीक सोबा हाडता घुमट
घुमता घुमट  घुमता घुमट.....
नुसतें सुवादीक खाजनाचें
मस्तें  मानां  हांसपाचें
मानशेर चोय उडता सुंगट
घुमता घुमट  घुमता घुमट.....
जीणेक  हांगा रंग चडटा
चाल  दिता  ताल  दिता
नीज गोंयचे  गोड  घुमट
घुमता घुमट  घुमता घुमट.....
एकमेकांक  मोग  दिता
जाग  दिता  जाण दिता
गोंयकारांचें  माये रगत
घुमता घुमट घुमता घुमट.....
गोंयचे दायज उरचें जीवें
समेस्तांनी रावचें सावध
एकामेकांक येवचें धांवत
घुमता घुमट घुमता घुमट......

# तुमीय नाचूंक येयात गो!

घुमचे कटर घुमचे कटर.....
शिगम्या मेळ वाजता गो
आगो माना सोबय माणा
तुमीय नाचूंक येयात गो....

खारेबांदार, तळ्याबांदार
नाचलोलीं पोरूं फेस्ताकु
जरगतेकु, जागोराकु
जागताली सगली रातु
ढोल, कासाळ, घुमट शेमेळ
शिगम्या मेळ वाजता गो
आगो माना सोबय माणा
तुमीय नाचूंक येयात गो.....

पेजे निवोळ तोंडाक कुंवोळ
जेवन बिवन घेयात गो
आरे कामील, उर्मील, एमील
आमील खावून येयात गो
आमकां नाका फाल्यांचो हुस्को
आजचें आयज चोवया गो
आगो माना सोबय माणा
तुमीय नाचूंक येयात गो......

घारीब, गिरेस्त, ल्हान व्हड
वेगळोचार नाका गो
विंगड जरी भेस भास
एकवटांत सोबा गो
माणार आमी सगलींजाणा
जीवाक जीव करूया गो
आगो माना सोबय माणा
तुमीय नाचूंक येयात गो.....

लक्तुबायेचो साद आमचो
उल्याक उलो दियात गो
मजेंत फुल्ल जावूया गुल्ल
भान बीन विसरून गो
ढोल, कासाळ, घुमट, शेमेळ
तोणया मेळ गाजता गो
आगो माना सोबय माणा
तुमीय नाचूंक येयात गो...
घुमचे कटर घुमचे कटर.........

# कळपाचें तें कयळें !

दोन आवंडे गिळले आनी
मनांतले मनांत दडलें
ल्हवूच आवंडे गिळले तरी
कळपाचें तें कयळें !

परमळाक तोखेताना
भानाक भान उरलेना
मनांतलें मनांत लिपयतना
उमाळ्यांक थारो उरलोना!

अदिक तूफान उसळटा
तुफानाक दाबतना
भावनां कशो लिपतल्यो
मनांतच कोंबतना ?

ओंठ बंद लजले तेन्ना
भीतरलें गुपीत कयळें
दोळे चोरयां हांसले ताणीं
सांगपाचें तें सांगलें!

# जीब

मेकळे मन उपकरता
मेकळी नाका जीब

अनर्थ नसते उपरासता
काबूंत ना जर जीब

तरसादी परस चड
कडक जीबे धार

भंय ना तरसादीचो
भीतां जीबे मार!

धणुसान जशे बाण
तशीं जीबे उतरां

एक फावट सोडीत जाल्यार
फाटल्यान परतूंक कुस्तार!

# घाय

रगत जर दिसूंक लागत
दिस्टी पडटा घाय

दुकां मात दिसत जाल्यार
दिसना काळजा घाय

रगत आतां विकतें मेळटा
बाटलेनी जाता मोल

दुकांचें जायना मोल
तें काळजांत आसता खोल!

# अद्रुश्य घाय

समेस्तांनीं म्हळें:
तिणे बरें केलें
भेस बरें केलें....
सडसडीत साडयेचो
पदर पिंजलो
ताचो घाय बांदलो
व्हांवतें रगत थांबयलें;
तो घाय दीस्ता देखून
बरें जालें, इलाज जाले!

दुक सहज कळटा
आंगाक जाल्ल्या घायाची
मात दुक ती कळना
मनाक बशील्ल्या माराची;
मनावेले वळ खोल अद्रुश्य
भितरले भितर उसमुसून
अंतस्करणांत घुसमटून
झीजयत आसतात सोंसून सोंसून!

उक्तो घाय आंगावेलो
चिघळटा
मना घाय उक्तो जाल्यार
निवळटा,
देखून मन उक्तावंक जाय
मनाक उक्ती वाट जाय!

# मनां बांदपाक कयळेंचना!

व्हडल्यो व्हडल्यो
बिल्डिंगो बांदल्यो

बांध, धरणां,
कारखाने बांदले

रस्ते,पूल, आनी
सांकोव बांदले

पुण मनां बांदपाक कयळेंचना!

# विश्वास

कसलीं कसलीं
झुंजां जिंकलीं

वेंचणूको जिंकल्यो,
पैज जिंकलीं

सर्ती जिंकल्यो,
इनामां जिंकलीं....

पुण विश्वास जिंकपाक जमलेंचना!

# व्हडाय

व्हडलीं व्हडलीं घरां केलीं
इस्टेट केली

व्हडले व्हडले झेत नेट
मिजास, पोदयो स्टाइल केली

व्हडले व्हडले शो, पार्ट्यो
आनी फेस्तां केलीं

मात मन व्हडलें करपाक जमलेंचना!

# जाण

तूं म्हण्टा
आपूण सगलेंच जाणां;
उडत्या पाख्यांचीं
कुसां मेजपी तूं!
पाळां, मुळां, कारणां, उपाय
सगलें तूंच बरें जाणां....

पुण सत् केन्ना जाणलेंचना!
हालींची भुरगीं
कितें कितें जाणात
तेंय तुवें जाणलेंच ना!

# शाणेपणां

व्हडली व्हडली जाणवाय
समाजाक सांगली

शास्त्रां, तत्वां, तर्कां
बुदवंतकाय भौसाक सांगलीं

उपदेश, गिन्यानां, आनी
शाणेपणां लोकांक सांगलीं

पुण बायले कडेन शाणेपण चल्लेंचना!

# भ्रश्टाचार

आंदोलनां एकापरस एक
मोडून काडलीं

संप, निदर्शनां आनी
बंडां मोडलीं

चाली रीती
रिवाज मोडले

एका परस एक
आडमेळी मोडून काडल्यो

पुण भ्रश्टाचार मोडचो अशें दिसलेंचना!

# जें मेयळें

खूब खूब गिरेस्तकाय मेयळी
गाडयो, ईस्टेट, वैभव मेयळें

मान, सन्मान, आदर मेयळो
तरी मनाक शान्ती मेयळीचना!

# तरंगा

सैमभर तरंगां
उपाट संगीत
तरंगांत तरंगता
रंगीत गीत....!

गीत रंगीत
तरंगीत
संगीत व्हरता तंद्रींत!

शीण ताण
पयसावीत
मनांत भरता प्रीत !

# सूरांत गीत जुळचे

काळजांतले भाव कळचे
भावना उफाळून येवच्यो

वाऱ्याचें ल्हार व्हांवचे
ल्हारेंत सूर जुळचे!

मनाक जें दिसता
तेंच सपनांत येवचे

परतून परतून घुंवळींत
गोड सपनात रंगचे!

जीबेर शब्द येवचे
शब्दांत सूर येवचे

सूरांत गीत जुळचे
गीतांत तूंच येवचे!

# कायंच ना उलोवपाचें

कायंच ना उलोवपाचें
यादींतच शेणपाचें
मोन्यानीच सोंसपाचें
ना कोणाक शिणपाचें....

सगली रात तेवैंत वात
झेमते दोळ्यांक लायत हात
गिळटां याद म्होवे नाद
येवजूनच झिजपाचें....

अकस्मात खंयसूनशी
आयली केन्ना गेली कशी
वाऱ्याचीच भीरकी जशी
आमची वळख मानपाचें....

तीच भीरकी करता भास
तरी काळजांत भरता आस
धुंद चान्नें आसत काय
धवेंफुल्ल फांकपाचें ....

# तिनसांजच्या पारा

शांत ल्हवु व्हांवता वारो
वा-या तालार ल्हारां
पिकता आमोरी
रंगता मळब
तारावां परततात घरा....

मनांत म्हज्या
रंगता सपनां
गीतां लागता स्फुरूंक
वाऱ्या स्पर्शान
हांवय व्हांवता
प्रणय लागता स्मरूंक....

चान्या सांगातांत
नाचतात ल्हारां
तिनसांजच्या पारा
उदका आरशांत
चमचमतात
अन्तर्मनाची ल्हारां ....

# मना! तूं धीर धर

रंगलें मनांत सपन गोड गोड
येत सत्यांत, खोशी चड व्हड!

हांसतात गीरे मळबांत
हांसतात फुलां काट्यांत
तूं हांस संवसारांत
निरशेवणी चिंतप सोड !

उजवाड लिपला काळखांत
सुख दडलां कस्टांत
सुख दुख रात दिस
अस्थीर सदांच चड

बाळगीलें जें काळजांत सत्
घडचेना असत्
म्हजे मना !
तूं धीर धर
पळे फुडें दिस व्हड!

# अशें कित्याक म्हाका घडटा

तूं लागीं आसूं वा पयस
स्पर्शून नदरेक वयता
घुस्पून चित्त उरता
अशें कित्याक म्हाका घडता!

कसलींच ना रे व्यसना
तरीय घुंवळीत उरता
मात्तय लेगींत कळना
अशें कित्याक म्हाका घडता!

आलतडीन चंद्रीम सरता
पलतडीन सूर्या बुडता
तेन्नां हांवय तंद्रींत बुडतां
अशें कित्याक म्हाका घडता!

म्हजे नदरेंत जें जें दिसता
ते तुज्याय नदरेंत दिसचें
अशींच सपना पडता
अशें कित्याक म्हाका घडता!

# म्हजें उलोवप

म्हजें उलोवप जरी तरी गद्य
काळजांत भरलां पद्य

सांगीनासतना तुका कळचें
काळजांत घुमता नाद....

तुजी म्होवाळ वाचा दीसता
तूं वादक आनी तूंच वाद्य

म्हाका घुंवळ कसली येता
ना खातां घुंवळे खाद्य

अशें कित्याक म्हाका दीसता
हांव साधक आनी तूं साद्य!

# तारांगण

मळबांतली चांदणी
जशो गवळणी
किशनसो चंद्र मदीं
रास भोंवतणी....!

आपल्याच तंद्रींत
चंद्रीम सुखी
मुरगट्टा मुरमुखीं
भलत्याच खोशींत...!

शुक्र गीरो इश्ट तांचो
खास सवंगडी
फाटीं फुडें पयस लागीं
घुटमळटा मदीं!

धुंद नशीली कातरवेळ
हांव म्हजेच कोशींत,
निरखीतां नभांगण
सपनांच्या राशींत.

उकत्या मळबांत तारांगणांत
सख्यो गवळणीं....!

# गांझीलांची मस्ती

सांतनीचो परमळ घेवन
वाऱ्याचीं ल्हारां खेळचीं

सुगंधांत परमळांत
गांझीलांची मस्ती चडची!

मस्तीखोर राणी एकली
कितले मूसांक घुंवळायता !

तिच्या नादान जळींमळीं
उतावेळ  घोंगेतात!

मूसांचें म्होवलें मात
तोखेतच  रावपाचें!

भौन भौन धुन्द गोड
सपनांतच  रंगपाचें!

# मांडवीच्या देगेर

तिनसांजचे ध्यानस्तशें
कसलें हें बकध्यान!
मांडवी गे देगेर तुजे
भुलतां म्हजें भान !

धवेच हारशेंत म्होवें रूप
अलौकिक सार
रंगता सपनां स्फूरता कवनां
गीताक चड्डा धार!

तरंगीत रंगीत गीत
ल्हवूच गाजयता ल्हार
म्हज्या सूराक साथ तुजी
पिसायतात कान !

धूंद सपनांत म्होवीं फुलां
भासता कणकणीं
मन म्हजें पिसोळेशें
फुलां भोवतणीं!

चितार चंद्रा मोह तूं
उदकांतच रावन
रंगोवंक रंगीत सपन
घे जलाशयाचे पान !

# गुपीत

गुपीत उक्तावंक काळजांतलें
कळना बंधन कसलें तें?
पांखें  तर  पांजऱ्यांतलें
उडता तरी कशें तें!

येवजीतां हांव म्हजींच उतरां
मन  उक्तावन  चलचें
तरीय मन कशें धजना
कळना अशें कित्याक तें?

गुपीत भरीत हो संसार
खरें जरी आसलें
तरी  सोद लावपी धजले
गुपीत करूंक उक्तें!

आरे भीवुकरे मना,
धांपून कोमो आसलो तरी
फांतोड जावची जातलीच
कळना तुका कशें तें?

# गरोवप्या तुका होरायतां

गरोवप्या तूं गोरायता
तुका रे होरायतां
ओडून घे बेगीन गरो
कळाव कित्याक लायता?

गर्‌यांतल्यान तें आमीश
उदकांत जेन्ना शिरलां
तेच खीणांक फसलां
कित्याक वळवळायता?

गळ्‌यांत आडली गांठ
दुसरी ना आतां वाट
ओड रे बेगीन वयर
कळाव कित्याक लायता?

आतां खास ना रे आस
मनाक ना तो त्रास
जावूं अन्नरूप हो जीव!
कित्याक तळमळायता?

# नदरेंतलो अर्थ

तुजे नदरेंतलो अर्थ कयळोना
तुवें उतरांनीय तो सांगलोना;
मनांतलें मनांत चिंती तेन्नां
प्रतिसाद खंयंच घुमलोना....

मेघांचे गर्जन घुमतना
थय थय मोर नाचतना
दिसलें नाचन माकाय बी
तेन्ना मोर खंयच दिसलोना....

जाल्लो जीव धादूसभरीत
रिमझीम पावसाची चलतना
घोग्यांक वेंगायन दिसलें
पुण जलधारा रावलीना....

आतां खरें म्हाका गोमतना
मात्तय वेळ थामलोना
एक एक याद करतनां
यादींक बांधच उरलोना....!

# याद

तुवें चोरयां दिली नदर
आशे कोम्ब किल्लयत आसा
मनोराज्यांत भोंवडायत आसा
यादींक पालवी येत आसा!

दिसा फाटल्यान दिस गेले
गीम आनी पावस गेले
तरीय याद ताज्जी आसा
काळजांत ती उगसत आसा!

आतां तुका मिजास जडली
कोणाची तरी नदर नडली?
चडच भाव खायत आसा
तरीय उमेद दडून आसा!

# आगो माना

आगो माना, चोय गो माना
चोय नाका तीं चिंचेपानां
हांव दितां तुका खावचींपानां
दितां उमेद नाचपाक गो!

आगो माना आयक गो माना
जाणा तुजीं मस्तीपणा
तरनेपणा, साळसूदपणां
आंवडेतां मस्ती चोरपाक गो!

हाका घुंवडाय, ताका घुंवळाय
नाटकायेची तुजी मस्ती पिराय
जाय तसलो तुका शेवटो गोराय
हांव भियेना गऱ्याक आडकोंक गो!

हांवूय जाणां तुंवय जाणां
कुटूऱ्यांनी गो दोगूय जाणा
खेळटालीं मस्त भुरगेपणा
आतांय खेळन दिसता गो!

# उजवाड

**तो-** उजवाड खरेलोच जादू बा
रंगरंगयाळे सोबीत रंग !

**तें-** आख्खो सवंसार फुलयता
शक्तभरीत तेजस रंग......!

**तो-** जीणेंत फांतोड फांकयता
तिमीराचो करता भंग
तूं एक पण्टी उजवाडाची
पेटत आसची म्हजे संग

**तें-** स्वतेज पण्टेंत खंयचें बा
जाय तेल वाती संग

**तो-** सतेज तुजें शांत रूप
चिथायता म्हज्यांत सुप्त रंग

**तें-** गिरोय तेजान चमचमता
चित्रायता निजाचे सप्त रंग

**तो-** तूं एक पण्टी उजवाडाची
पेटत आसची म्हजे संग

**तें-** स्वतेज पण्टेंत खंयचें बा
जाय तेल वाती संग

**दोगांय-** उजवाड खरेलोच जादू बा
रंगरंगयाळे सोबीत रंग!
आख्खो संवसार फुलयता
शक्तभरीत खर रंग......!

# ओले खेळ

१- तुजे मनांत लिपलां तें
केन्नां मेरेन लिपपाचें?

२- तुजे मनांत चलता तें
कशें कितें कळपाचें?

१- तुजे लागीं दिसता म्हाका
उलय उलय उलोवचें
पुणन म्हाका कळना
कशें तुका वळवचें.....

२ - तुजे वांगडा पयस पयस
भोंव भोंव भोंवचें
दिसता म्हाका तुजे लागीं
वरांन वरां बसचें....!

१- कोलव्यां मिरामार वेळेर
ल्हारां वांगडा नाचचें
सूर्या दर्यांत बुडटा तेन्नां
आमीय खबऱ्यांत बुडचें....

२- अकस्मात सुटचो वारो
पडचो पावस गडगडान
ओलींचिप्प झाडांपोना
भिजचीं आमी चिंब जावन...!

१- शेवण्या घोंटेर वयर रुखार
तोखेत तोखेत पळेत रावचे

२- दोळे भरून ओले खेळ
पळय पळय पळयत रावचे.....!

# एकच ध्येय

तो- आमचें भितरलें आमचेंच भितर
जावचें न्ही तें दुसर्‍यांक खबर
आमचे हातांत फुडार आमचो
होच सार मतींत दवर....!

तें- एकच ध्येय दोन मनांचें
एकच आमचें सपन फाल्यांचें

तो- आडेवेडे ते कित्याक मर्दी
मूळ हेतुचें भान दवर....!

तें- छेडली तार छेदलें काळीज
स्वरांल्हारांक आयलो भार

तो- भावधारेंत जुयळी तार
जुयळे आमचे सुप्त स्वर...!

तें- रंगमाचेवरी रंगून मैफल
सपन आमचें जावचें सफल

तो- माचयेर आमी खाशेलीं सवंगां
सवंग सारकें सोबोवन व्हर

तें- जें जें चुकता तें तूं विसर
बरें तेंच याद दवर

तो- ध्येय आमचें लाख मोलाचें
मूळ हेतुचें भान दवर....!

दोगांय- आमचें भितरलें आमचेंच भितर
जावचें न्ही तें दुसर्‍यांक खबर
आमचे हातांत फुडार आमचो
होच सार मतींत दवर....!

# तांचें आतां चडच जालां

तांचें आतां चडच जालां
तांचोच सगल्याक अम्मल जाला!

एका तेंपार बींळांतच लिपपी हुंदीर
धर्मथळांनी धुमशेवंक लागले
व्हडले व्हडले व्ही. आइ.पी. कशे
विमांनांनी भोवूंक  लागले....

घर  हुंदीर  कोळे हुंदीर
भीतरले हुंदीर भायले हुंदीर
शाळांनी हुंदीर ऑफिसानी हुंदीर....
सगलेच तांच्या दडपणाखाला
तांचोच सर्रास रुबाब जाला.....

व्हडलीं व्हडलीं बींळां खणली
कोंत आनी हिशेबच ना.
बींळां बींळांनी
रोंट घाले बगर
दुसरो आनी उपायच ना
उंचल्यान सकल,
सकल्यान उंच
चिरीमिरी चिरीमिरी....
चिरीमिरी चिरीमिरी....
चाबडावपाचोच उद्देग चल्ला
तांचोच खरो कारभार चल्ला.....

मुलखाचे मुलूख
ताणीं बींळायले
खंय उगम, खंय अंत,
कोंतच ना
आदले हुंदीर
रांदचे कुडींतच भोंवताले
मागीर ते गुदावां राखताले
आयज पावलां पावलांक हुंदीर,

फाटल्यान हुंदीर,
फुडल्यान हुंदीर,
वयर हुंदीर,
सकयल हुंदीर
सगलेच वाटेन
तांचेच दडपण
तांचोच दरारो अतिरेक चल्ला....

एका तेंपार
जमनींत लिपपी
तेच जमनीं लिपोवंक लागले
मनशांक भीयेताले
तांका आतां
मनीसच भीयेवंक लागले
कसलेंच वीख
तांका लागना जालां
वीखाक हुंदीर "इम्यून" जाला
पावोर तांचो
वाडत चल्ला
तांचोच खरो अम्मल चल्ला!!

# आपा लिपा

आपा लिपा  साय लिपा
सायचो गुळो हातीं मुदी
चल घोवा बायले सोदी...
परतें परतें खेळूंक सोदी!

माणकुलें तें मस्तें हांशें
तेन्नां तशें  आतां अशें
तेन्ना फकत खेळा पिशें
आतां मात तुजेंच पिशें!

कटुर्यांनी  खेळटना
एकमेकांक धरूंक सोदी
ते दिस धांवले फाटीं
आतां हांव तुजे सोदी!

ल्हानपणांत दिसतना
केन्नाच तूं लजलेना
आतां मात भाव खाता
हांव तुका दिसतना!

तेन्नां तूं सादेंसुदें
आयज तुज्यो व्हडल्यो मोदी
अशें हुडटा तशें मोडटा
तकलेर म्हज्या ताण पट्टा

जीवाक म्हजे चाळयता
पोन्नेल्यो त्यो तरण्यो यादी
आदलेवरी खेळन दिसता
मस्ती करची  मदीं मदीं!

# तूं गोंदयळा

तूं गोंदयळा
उतरांच्या जाळयेंत
तूं म्हाका आडावंक सोदता
खरें म्हळ्यार
तुज्या मनांतलो गोंदोळ
तुका घुस्पायता...

म्हाका दिसतालें-
उतरांपरस मोग
प्रभावी  थारतलो;
तूंच म्हण्टालो,
एकाच ध्येयान जंय
मनां जुळटात
तोच खरो मोग...

आनी आयज तूं गोंदयळा.....

# कितले तेंपान आयज लेगीं

सांवर कट्यार
तळये कांठार
केन्नाय चावडेर
ना तर तिठ्यार
दिसत जाल्यार दोळ्यां मुकार
नदर व्हरी झाडा पोंतार!

न्हंयचे देगेर
खारे बांदार
केन्नांय वाड्यार
सांजेच्या पारार
पळेलां आसून पळवना कशें
करतालें बळयां पळेत जाल्यार!

कितले तेंपान
आयज लेगींत
केन्नां केन्नांय
दोळ्या पडद्यार
थयंच उबो
तिठ्या सोम्पो
तोच कोटो
तीच न्हंय
वयर सकल उदका ओतो
यादी झरो व्हांवता बांदार!

# रुख

जावं तें वत जावं तो पावस
रुखाक मात्तय पर्वा नासली
विशाल शान, तन, धन,दान
हेंच रुखाचें विशेश आसलें!

कोणाक थंयसर दिसी फळां
कोणाक मेळ विसव मुळांत

लार्गी आइल्ल्यांक धीर दिलो
मायेचें उकतें दार आसलें!

विशाल मनान सावली दिली
सगल्यांक दिलो आलासिरो
आपले आंगार घाय सोंसून
साबार जनांचे हीत केलें!

तुटून पडचें सगले शक्तीन
एक अचानक आक्रमणाचेर
तेच धाडसान झुंजला रुख तो
अनेक मोडांक तोण दिलें!

जेन्नां रुखाचेर अरिश्ट आयलें
मात्तय कोणाक पडूंक नासलें
इक्त आसूनय मूर्ख बाबडे
शक्त आसूनय दुबळे थारले....!

# धनया....!

देवा धनया परमेश्वरा
संवसार रचपी सर्वेश्वरा!
खंय पावयता ही म्हारगाय?
जीयेवप हांगा म्हारग जालां
मनीस जाल्यात सवाय...

भौसांनीं करप कशें?
कोणांचो तांकां आधार?
तूं केन्नां जातलो प्रसन्न?
काय अशेंच चलपाचें
फकत करीत भजन?

वचत थंय हडपशाय
नाड धंदे, दडपशाय
तरी भावार्थी म्हणटात
जपात 'ओम् नमः शिवाय'
मागीर जातलें सवाय!

हे वाटेन बेकारी
ते वाटेन ब्राइब
जो तो लीडर
म्हण्टात आपलेंच आयक
करात : बंद, आंदोलनां,
आनी हंगर स्ट्रायक....

खंय अत्याचार,
खंय बलात्कार
घातपात आनी रगतपात....
बळाचे साम्राज्य,
पावला पावलाक भंय
आगा, ही लोकशाय
काय लूटशाय?

मोर्चे आंदोलनांत
आइडून आइडून
जीण जाली जीर्ण
तुजेच तंद्रींत
विसरलो गा तूं
सवस्तकायेची देण...
भानार मात्सो यो गा!
काड दोळ्यांवेली साय
चलला ते अच्छेवाचेर
कर कितेंय उपाय...

# एका तेंपावेली शाळा

एका तेंपावेली शाळा
रगत आटोवन थापन जाल्या....

थंय गिन्यानाच्यो वाती पेटल्यो
रगता तेलान
दिसांनी दिस...
एका तेंपार
ते उजवाडांत
संवसार हो व्हड जाला.....!

आतां सगलेंच परतें जालां
शिकप शिकोवप
पयस जालां
भुरगीं म्हण्टात:
सर मारता बंडलां
एडमिशनांक जाय लाखांची बंडलां.....

परीक्शेक कोणांची घोकमपट्टी
कोण मारतात कोपी
ना तर मारतात फटी
आनीक कोणाक दीसतात
दुडवांच्यो नोटी!

आदले ते गुरू
देवतुल्य सत्पुरुस!
आयज फकत दिसता
सगलोच जुलूस
विद्न्यानाचे युगांत
गिन्यान वाडलां
पुण आदलो आदर्श
भूतकाळांत गेला....

मुकार जावप कशें?
कोणाचे कोणाक पडलां?.....
काळाचें आव्हान हें
दिवे परजळप कशे?
कसदार जमनीत किल्लयल्या
उमळशीकेन वाडयल्ल्या
रुखाक कीड केन्ना लागत
हें सांगप कठीण जालां
कीडीक वखतय दुर्लभ जालां...,.
पुण एका तेंपार
रगता तेलान
थंय वाती जयळ्यो
आनी ते उजवाडान
आखखो संवसार व्हड जाला....!

# सपनांतलें राज्य

तें एक सपनांतलें सुपुल्लें राज्य!

सपनांतल्या संवसारंतल्या
ते राज्यांत
खूब  विकास जाला....!

घर  घर बार्र जालां
सरकार पसरकार जालां
आम आदमी बाद जाला
तत्व बरबाद जालां....

थंय ओफिसर गव्बर
सगलेच कलेक्टर!
हात चलाखी करीत आसात
नेटान उदरगत करीत आसात...!

गांवांत त्या साधुसंतांच्या
जो तो संधीसाधु जाला!

कलेची ती भूंय खंय
सगलेच तरेची कला थंय
व्हडल्यो व्हडल्यो हॅटट्रीकी
अजापां सोंसपाचीं न्हंय!
मनीस झटपट गिरेस्त जाता
इल्लीशी सुवात व्हडली जाता
व्हडली जमीन इल्लीशी जाता !
जमनीलेगीं फोरेन जाता!

अभिमान पयस गेला
गांवकार फॉरेनाक गेला!

जग चिंतता....
थंयचे कारभारी कोण?

उदरगतीचे वाटेन
चलपी तें राज्य
सोबीत सुपुल्लें
सपनांतलें राज्य
कोणाचें खंय
तें स्वीटझरलॅन्ड!
आनीक कोणाचें
तें ड्रीमलेण्ड !
विलास नगरांतली
सुन्दरी ती!
रसिक ते रमल्यात
पळोवंक वस्त्रहरण सुंदरीचें
कारण रूच तांका फील्मांची
भूंय खंय ती कलेची...!

जो तो रसिक जाला
प्रोड्युसर आनी एक्टर जाला
रिएक्टर सामको जाम जाला!
गांवकार जाम बेज्जार जाला!

# लाव्हा खदखदता!

गोमंतमायेच्या पायांपोंदा मातीयेंत धन चकचकता!
घुबडांनी निरखीलें!
हुडत आयलीं फटाफट...
जळींमळीं विद्रुप केलें.....!

खण खण खणतना फोणच फोण जायत रावले
हापापील्ल्यांक आळो ना,
नसतें अरिश्ट उबें जालें!
गांवांची स्थीति भयानक....
जीण थंयची हैराण
साटली पोटली बांदून कुळावे दुसरे गावांत धांवले....

स्वासांत धुळ जेवणांत धुळ
धुळीन संवसारा वाट
न्हंयो तळयो घरां दारां
झाडां-पेडां शेतां भाटां
पेले कपां ताटां माटां...
सगलेंच मातयेन दाट
वाट ना चलपाक भोंवपाक
ट्रकच धडधडपाक लागले
पांचवेचार सैमा न्हेसण तांबडे रंगा जाले.....!
विकासाच्यो काणयो सांगप्यांक म्हणप तरी किते?

रक्षक म्हणचें?
काय म्हणचें भक्षक?
ते साधु? काय ते संदीसाधु?
आख्खी जनता
तडफडटा, वळवयटा...
तो तांकां हुस्को ना
रीत ना, नीत ना, कोणाचोच अंकुश ना,
हुलोप भितरले भितर धगधगता....
कोणाक लागून वचूंक ना...!
स्वैराचार, दुराचार सैमाक सतत खुबळायता
कोणच नकळो लाव्हा पोंदच्यान खदखदता;
थरथरता भूंय....
एक एक गांव हुलपायत आसा....
सैम सिटकावणे घांट वाजयत आसा :
सभाग्यांनो, आतां तरी सादूर जायात!
जंय फकत सुवार्थ, करणेक ना अर्थ,
थंय मुकार घडटा तो भलतोच अनर्थ !
संवसारार नदर मारून पळेयात
इजिप्त, लिबीया पेटून उठलें
यमन सिरीयांत संघर्ष पेटले
जनलोक जेन्नां तिडकून उठले....
हांगाय विस्फोट जावचे आदींच
चिंतात आम जनतेचें, चिंतात फुडल्या पीळगेचें
पळेयात, दाह आंगांत भगभगता
लाव्हा पोंदच्यान खदखदता....

# रिमिक्स

गोमटें गोंय गोंयचें दायज
देखता  विचित्र काळ
आयज रे भावा उटसूट
भपक्याचीच गजाल;
रात दीस सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल
घाल घाल घाल म्युजीक
रिमिक्सच घाल....!!

मायमोग रीत रिवाज
अभंग मिस श्लोक
देखणी धालो दुलपद
विसरले खूब लोक
सगलेच हालीं आपलेवादी
फकत जाय भोग;
उघड उघड मटको
राजरोस हप्तो
सगल्याक हीच चाल
इल्ल्या इल्ल्या गजालींक
वयल्यान वजन घाल....!
रात दीस सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल
घाल घाल घाल म्युजीक
रिमिक्सच घाल....!!

तेल लायत गेले
ते नीतिचे बोल
चिरीमिरी ना तर
सगलीं कामां फोल
उतरांक ना मोल
कोणाक पेजेक लावूंक जाय
उंचल्यान पेज घाल
हीच रे बाबा आयजकाल
पेजाद चाल.....!
रात दीस  सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल....!!
घाल घाल घाल म्युजीक
रिमिक्सच घाल....!!

ही आमची उदरगती!
मातयेंत लोंबता जीन पॅन्टी
आंगार टॉप, वेंतभर साय
तोरनांट्यांक लागल्या
फिल्मांचीच  स्टाइल
जातात बायलो दादले
आनी दादले जातात बायल...!!
रात दीस सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल......

जाय तांका बारबाला
बुरशीं सिरीयलां, फिल्म
शिगम्याक मात सगले
अर्जून क्रिशण भीम!
सवंग कसलेंय जावं पुता
रिमीक्स म्युजीक घाल
ना तर स्टोरी तुजी
उज्यांत  घाल.....!
रात दीस सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल......

हपापाचो सदांच गपापा माल
रेशनचोय बी गडप माल!
सगले वाटेन गोलमाल
चल्ला मालामाल...!
आदलो तो शुभकाळ
आजचो  हो कर्दनकाळ
तरीयपुण मारात पुतांनो
खोजने आनी नाळ...!
रात दीस सांज सकाळ
धुमशेणांचीच चाल
घाल घाल घाल म्युजीक
रिमिक्सच  घाल....!

# तूं तुज्याच मनाची आक्रुति

तूं तुज्याच मनाची आक्रुति
तूं तुज्याच मनाची विक्रुति

तुज्याच मनांतली विचित्र चित्रां
तुज्याच स्टाइलीन चितारपी
मनाच्या नितळ वण्टीर बिरबुटावपी
तूं एक तर विक्रुत व्यंगकार;
वा दुसऱ्यां मतींत उजवाड घालपी
तांच्या खोशींत भर घालपी
एक महान चित्रकार!
तुज्याच मनाचो तो आविश्कार!

जर असंतुलीत कल्पनेंतल्यान
तूं रंगीयता अवास्तविकता
आनी दिशाभूल करपी असत्‌ता
तरी पुण समजता आपलेंच सारकें....
धीक्कार असल्या व्रुत्तीचो
जी विद्रुप प्रदर्शनान भरकटायता
आरतें तें परतें भासयता
आनी आपल्या सारको आपुणच
हेच मिजासीन मिरयता....

कल्पना जर आक्राळ-विक्राळ
तिचो रोकडो लागना निकाल
द्रुश्टीच ज़ंय जंय तिरकुटी
थंय सुश्टी दिसता अर्देकुटी !
देखून, तूं तुज्याच मनाची आक्रुति
तूं तुज्याच मनाची विक्रुति!

# तलाटी

धड येना कोंकणी
ना धड मराठी
असो काळी न्हंयेकडलो
एका गावांत तलाटी!

थोड्याच वर्सांची
वळख थळाव्यांची
पंधरा वीस वर्सां वळख
बरयता परप्रान्तीयांची

शिफारसता ताका जाय तशे
राबीत्या दाखले आनी
करता ग्रमस्तांक मेकळे
हुडक्यो मारपी कोलांटी
सर्कसकार थंयचो तलाटी!

आम जनतेक पावटेर पावटी
एजंटांक धरशीत जाल्यार
पयस पळटात कटकटी
रेशन-दुकानांचेर
ताची खाशेली दाटी
काय बरो हुशार तलाटी!

# टूरिस्ट

करूंक मजा गांवांतसून ताच्या
टूरिस्ट एकलो हांगा आयलो!
शांत वाठार सोबीत भूंय
भुल्लूसी लोक पळौन भायळो
**ताका दिसलें:**
मोगाळ प्रजा मवाळ राजा
तांकां करित रावूंक दी मजा
"टके सेर भाजी, टके सेर खाजा"
कांय तेंपान हांगचे मागीर तेच राजा!

कोणेय येवचें बिराड थाटचें
खंयय कोणेय पसरे घालचे....
**तो म्हण्टा:**
ताचे राज्यांत कायदे आसता
हे राज्यांत  वायदे आसता!
आड नाड धंदे चलपाक
हांगाच एकदम सुरक्शीत दिसता
देखून हांगाच सदांच रावन दिसता!

कोणय येता  ट्रेनींतल्यांन देंवता
देंवतनाच हातांत रेशनकार्ड पडटा
थळावे फकत पळेतचं उरतात
तेच मागीर हांगासून हुडत वयतात!

# ग्रमस्थ हुडत गेलो!

ग्रमस्थ हुडत गेलो
काळीज हांगाच सोडून गेलो
भीतरले भीतर फुगार जालो
बेजार जालो हैराण जालो....

कोणाक ताचें पडून गेलेना
ताचे दुखणे कोणेच जाणलेना
तेन्नां ती एकल्याचीक खंत
मात्तय कोणाक हुस्को नासलो....

टुरिजमचो 'इजम'!
देसविदेसी सोयरे!
जमनीं-भाटां,
उद्दग-धंदे थाटत गेले
घरचेच जायत चल्ले
नकळत भायले
गांवचो एक एकलो सपाट जालो....

आपल्याच घरांत भोगून सासुरवास
भौतेकांनी सोडली कोंकणी भास
पोटाखातीर एकएकलो पयस गेलो
खंयच्या खंय गर्देंत शेणत गेलो....

देव बरो दीस दीवूं,
देव बरें करूं ....
कायबरीं असलीं मायेचीं उतरां सोडून
दुसऱ्यांक तीं शिकोवचें सांडून
एक एक शाणो दुसरी भास कातरत गेलो....

सिंगापुरचीं सपनां पळेत पळेत
नक्सलवाद्यांक थारो दीत गेलो
आपसुवार्थान बुडलेल्यांनो! तुमचो
कोंकणी आत्मो खंय गेलो?

## ते दीस खंय गेले?

आर्दी हांगा काय बरें आसलें!
सगलेच आतां परतें जालें!
ते उंडेय गेले पोदेरय गेले
खाशेलें आदलें शेणून गेलें?

शेजरा-पाजराक मायेमोगाची
जाग आसली
ओढआसली
हुस्को आसलो
मोग आसलो...
ते दीस खंय गेले?

पांचवोचार सैम हांगाचो
शेतां-भाटां
रानां वनां
नळ्या घरां
तिठ्या स्थानां
सगलेंच आदलें बदलून गेलें
कॉंक्रीटचें साम्राज्य जालें...!

उदरगतीक आयलो ओतो
रस्ते खणपाक उतावेळ जो तो
खण खण खणतना
सामकेंच मार्ग बदलून गेले!
मार्गच सगले बदलून गेले!

आदीं हागां शीस्त आसली
रीत आसली शांती आसली
कायद्याची भीरांत आसली
आतां कोणाक भीरांत कसली?
केन्नांच नासलें तें घडूंक लागलें
तें आतां सदचेंच जालें...!

विकासाची दीका अनिच्छित
खंयच्या खंय आमी व्हळून गेले
मार्ग हांगाचे व्हड जातनां
नीतिमार्ग आमचे चुकत गेले!

# सम्मेलन

तांणीं घडवन हाडलें
सम्मेलन-
भव्य सम्मेलन!
पुंजावन हाडले
आप्त स्वजन
कितलीं निमंत्रणां
छापलीं तरी
रसीकांची याद
तांकां जालीना!

सोयरे धाय रे
व्हंकलो-नवरे
चमचे दवले
मुखार बसले
कला मोगी खरे
फाटल्यान बसले...

"बेस्ट" जालें
संगीत सम्मेलन!
पुण कलाकारांचो
तर 'मुड' भंग;
कारण अर्दो हॉल
खबऱ्यांत दंग;
मोन्यांनी मात्तय
दादच दिलीना,
भेड्डुयांनी कांय
आयकलेंच ना;
श्रोत्यांनीं मारल्यो
न्हंय थंय टाळ्यो
स्वयंसेवकांनी मारल्यो
एकामेकांक गाळ्यो!

अशें तरेचें भव्य सम्मेलन!
चड शाण्यांचें तें आयोजन!

# पंगतीभेद

एका उद्देशान आमी फुडें सरले
आमकां सगले हांसपाक लागले
तशीच वाट चलतां चलतां
ध्येय आकार घेवपाक लागलें!

तेन्नां, हांसताले तेच जागे जाले....
एका परस एक बुदवंत,
पुणून कुल्लेभशेन
पांय ओडपाक 'एक्स्पर्ट' सगले!
आपलीं सपनां रंगयत आसले!....
एक एक सपन पूराय जातनां
नवे नवे म्हालगडे आयले
व्हडले व्हडले तोप हाडले
चमचे आयले दावलां आयलीं
व्हडले व्हडले रांदपी आयले
पत्रावळींत वाढचे वगतार
दवलेच पयनीं मुखार धांवले!
+
शिगमो आनी सम्मेलनांक
सगलेच आमी वांगडी जाले
फंड, निधी जमतनांच
सुपीक बॉडाचे मुखार जाले
पंगतीलाब घडचे वगतार
पंगतीभेद सुरू जाले !

ओ...स्सोय, ओ....स्सोय..
शबै.. शबै.....करून फकत
मांड आमी खेळैत रावले
बेभान जावूंन नाचत रावले
"हरि नामाचो गजर"करीत
पालखे वांगडा चलत रावले!
पालखेक खांदो दिवपाक मात
तांचेच तेच मुकार धांवले
धांवता आसतना एकमेकांच्या
पायांत पांय घुस्पावंक लागले!
+
सत्कार करूंक स्वताच आपले
टाळयो मारपाक पुंजावन हाडले!
फिलू कुस्तार खोजने मारले !
सभा संमेलनांत तेच तेच खूब व्हडले
मुकार मुकार तांचेच धेडले!
तयार केल्ले तांचेच तेच
म्हालगडे म्हूणन माचीयेर बसले!
+
मतलब आनी नाडीपेल्लां
हातूंकच कांय संकुचित रमले
दुसऱ्यांचे पांय ओडीत रावले
चूड दाखोवन म्हारू घरांत
अशी स्थिती करीत रावले...
+
कवी म्हण्टाः इश्टा,
घरचो भेदी, भायलो चोर
दूरदर्शी चिंत हाचेर
मानसिकतायेंत सुधार कर....

# कसरत

काणकोण ते पेडणेच्यान गा
नशीब आमी आजमावंक आयल्यात
फीटनेसच्या परीक्शेक
कसरत आमची दाखवंक आयल्यात...
काणकोण ते पेडणेच्यान गा
नशीब आमी आजमावंक आयल्यात!

शिपायाचे जागे आसात
नोकरे आशेन इंटरव्यूक आयल्यात
वशिलेवाल्यांची भरती पक्की
जाणून लेगीं पयससून आयल्यात...

शिक्षण घेवूनय बेकार मुगा
काम-धन्दो सोदीत आसात
विकासाचो धोल वाजता राज्यांत
बोवाळांत आमचें आयकूंक येना...

'धूम मचाओ धूम' करपाक
कितलो फोग आनी शिंवोर चल्ला
गरजेवंतांक चोवपा वगतार
तांचे आंगांत माज चडला....

तरीय काणकोण ते पेडणेच्यान गा
नशीब आमी आजमावंक आयल्यात
धांवपाच्या सर्तींत
कसरतची कामां दाखोवंक आयल्यात...

# आमी तांका आझाद केलें!

गोंय सुटके झुंजाऱ्यांचे आत्मे
तळमळूंक लागले, म्हणपाक लागले -

धीटायेन छळाक  तोण दिलें
सर्वस्व आमचें त्याग केलें
बंड केलें,
झुंज दिलें
फारपेट भोगली,
दंड सोंसले
धीटायेन छळाक तोंड दिलें
गोंय सुटके वीर आमी
सर्वस्व आमचें त्याग केलें
आमी तांका आझाद केलें!

हें आमी  कित्याक केलें?
कसलीं सपनां बाळगिलीं तेन्नां
तांचें  खातीर झुंजतना...
कोणच सारकें नकळो आयज,
थैमान कशें सोंपयलें आमी
कोणाक खबर ना कायंच!

देखून हो सांवार चल्ला
जो तो आपल्यापुरतो...
सोबीत गोंय विद्रुप करूंक
शेवाळीं घुंवडावंक फुरफुरला...
सभाग्यांनी सगलेंच विकूंक काडलां
थळावेपण व्हगडायलां?....

हेच खातीर गा आमी
आदल्यांनी चळवळ केली?
परसत्ते आड टक्कर दिली?
बंदखण भोगली
जीवाचे रान केलें
आनी आमी तांका आजाद केलें...!

# विसरूं नाका ध्येय तुजें

विसरूं नाका ध्येय तुजें
लाख मोलाचे
तूं चोय रे फुडें व्हर रे फुडें
गुण मोलाचे....

समजूं नाका चकचकता तें
भांगर सगलें
तूं नियाळ कर
विचार कर
हेंच  भल्याचें! ....
विसरूं नाका ध्येय तुजें
लाख मोलाचे....

बांयचे धडेर रावून बुकल्यान
चिंतलेना फुडलें
ताणें चोयलें मस्तें
बांयत नुस्ते
भौ रुचीचें;
फकत एकच पावल चुकलें
उतावेळ बुकल्याचे
कोणच शकलोना वाटावंक
जीवित बाबड्याचें!....
विसरूं नाका ध्येय तुजें
लाख मोलाचे....

संयम धर,  ना कर
तांबडे वाटेन वचचें
व्यभिचार म्हळ्यार अविचार ते
वाट चुकील्ल्यांचे
थंयसर  आसा  बींळ घातकी
काळसोरोपाचें
चुकून लेगीं दंश जाल्यार
जीवार उटपाचें!....

विसरूं नाका ध्येय तुजें
लाख मोलाचे
तूं चोय रे फुडें व्हर रे फुडें
गुण मोलाचे....

# तो म्हण्टा:-

**तो म्हण्टा:-**
एलिसावांक रावतलो
आतां येतल्या  एलिसावांक
तोय उबो सावतलों....!
येन्नाच  आवाज करूंक लागात
कालो शिगमो येवजूंक लागात
करात पार्ट्यो भौसीक सभा
फुडलें प्लॅनिंग करूंक लागात....!

तो वेंचून आयल्यार
उदरगतीक झट्टलों
शासन सारकें झाड्लों
बॉड दिस्त  घासतलों
रस्ते रानां तासतलो
सा..रको विकास करतलो....!

सगलें जातलें झटपट झकास
चारय वाटेन करता विकास
**हो विकास -**
फुगपाचो, फुगोवपाचो
फुलपाचो, फुलोवपाचो
घुवंपाचो,  घुवंडावपाचो
धरपाचो, सोडोवपाचो
कटकटी पयस करपाचो....
सगलें जातलें झटपट झकास
चारय वाटेन करता विकास!

उदकाची खंत नाका
घरांन घरांनी बार्रां दितां
लाइटीचो हुस्को नाका
अजापाचो शॉक दितां....!
बीजली कपात करून तुमकां
रस्त्यार दिसाचीच लाइट दीतां!

केन्नां कितें उस्तेवपाचें
खंय खंय साफ करपाचें
खंय कितें बांदपाचें.....
तसले व्हडले व्हडले
प्रोजेक्ट दितां!
ती खंत तुमकां नाका
भांगरा संद वगडावं नाका
दिस्तच विकास घडटलो!....

*

**कवि म्हण्टा:**
याद दवर मतदारा,
फटाशांक भुल्लुसूं नाका
शक्तीबळाक भीवूं नाका
दुडवां आशेन घुंवूं नाका
चरित्रवानांक विसरून समाजद्रोह करी नाका!
मागीर कितें घडटलें ताका तुजो तूंच
जबाबदार
दुसर्‍यांक दोश दिवूंक नाका...

# अशे ते आदले राजा!

राजरोस दिमाखान
फिरकी घेत गांवागांवान
स्थिती व्यवस्था सुरक्षा
निर्धास्त निरखीताले
अशे ते आदले राजा
देव कशे मानी प्रजा!

राजाचो प्रजेक आधार
प्रजेचो राजाक आदर
लोक राजाक भीयेताले
शिस्त कायदे पाळटाले....

आयजचे राजा घुटमळटात
पोलिसांच्या सुरक्षा कड्यांत
सगली फौज तांकाच राखपाक
तांच्याच ती फाटल्यान फुडल्यान
जनतेचे पडलां कोणाक?
कायदो व्यवस्था गेली चेपणांक...

दिलदार ते आदले राजा
देश प्रदेश राखताले
छातीची धाल करून
स्वता झुंजामळार झुंजताले....
आनी हालींचे चडशे राजा
व्हडल्या घोटाळ्यांत घुस्पल्ले
आपल्याच पीळगेच्या उद्धाराक
आपसांत आसतात झुंजील्ले !

# रंगमाची

रंगमाची संवसाराची
खुशालकायेन सोबोवया
विंगड विंगड सवंगा आमी
एकवटान रंगोवया!

भौखांबी सर्कस हांगा
साहस धाडस करूया
वाट्याक येता तीं तीं सवंगा
धीटायेन नाचोवया;
समेस्तांच्या खोशे खातीर
संघटीत वावरूया
जीणे अर्थ समजूंकना तांका
बरो संदेश दीवूया ....

गीताविणे सोबा उणे
माचये खूबी जाणूया
विवेकाक  जागूया
मनीसपण पातळावया....

# दाखय उजवाडा वात!

तुजे बगर कोण प्रभु
दितलो माये हात
जीणे वाट सारकी चलूंक
दाखय उजवाडा वात!

हांव तुका शरण
धरतां तुजे चरण
हांव पीसो अडाणी
तूं सर्वगिन्यानी
चुकतां तेन्नां सुदारूंक
जाय म्हाका साथ!

नाथ तूं, तात तूं
माता तूं, इश्ट तूं
पांय म्हजे घसरत तर
सांबाळ म्हजी वाट!

# सर्वव्यापी अनंता

शरण तुका येतां
तुजीच क्रुपा मागतां
सर्वव्यापी अनंता
देवा धनया भगवंता!

विश्वविधाता शक्तीदाता
सुख शान्ती तूंच दिता
नजर तुजी धांय दिका
आमचेरय ती दवर नाथा!

संवसारभर सासाय तुजी
सत् असत् तूंच जाणता
अंतर्यामी गुणवंता
सगलो भार तुजेच हातां!

# शारदा स्तुती

शारदे तुजी वीणा
दिता माका प्रेरणा
विद्या कला वाचा म्हजी
जाता श्रेश्ट धारणा

सोबीत नुर हांस्कुरी
सशक्त हस्त भंयहारी
नमतात तुका देव लेगीं
ब्रम्हा शिव मदनारी

श्वेत पद्मासिनी
विश्वाची स्वामिनी
इक्त कीर्त धन जैत
दिवपी तू कामिनी

हातीं माळ पटी वीणा
करती शुध्द वाचा मनां
दैत्यनाशी देवी तू
सुख दिवपी हे जनां

कौशिकी म्हादेवी
हीम पर्वत वासीनी
चंड मुंड निशुंम्भ शुंम्भ
रगतबीज नाशिनी

वायू तेज स्फूर्तरूप
काव्यदेवी शारदा
दया माया छाया काया
भौरुपी  कामदा
दिवपी सैमाक आधार
व्हड तुजें काळजा दार
खोशी शक्त मोग सैमांत
भरचेलो तुजेर भार
मुकूटधारी जय अंबे
गोड म्हजें नमन मान
गिन्यान गुण फळूं दी
फुलूं दी जैत मान....!

# चानयेच्या पिला

घुस्मट जाता म्हाका
दिस आनी रात
याद आसा आजून त्या
उतरांचो थाट :
"चानयेच्या पिला तुका तीन पाट
दाखयतां हांव  तुका नवी वाट...."

हांव म्हज्याच खोशींत खेळटालीं
आंकवारपणान नेट्टालीं
भुलोवणींनी भुल्लुसलें
तुवें अचरित भुलयलें
ओडून फाटीर हात
याद आसा आजून त्या
उतरांचो थाट ...
"चानयेच्या पिला तुका तीन पाट
दाखयतां हांव तुका नवी वाट...."
तुकाच राम समजलीं
आशे-कीर्णांन उसउसलीं
मोह जाळीयेंत घुस्पलीं
स्पर्श-सुखान धादुसलीं

नकळत तुवें दाखयली
पांजऱ्याची वाट
याद आसा आजून त्या
उतरांचो थाट....
"चानयेच्या पिला तुका तीन पाट
दाखयतां तुका हांव नवी वाट...."

चिंतीनासतनाची जाली
म्हजी तुजी भेट
अकस्मात घडली
तीजल्माची गांट
घुस्मट जाता आतां
दिस आनी रात
याद आसा आजून त्या
उतरांचो थाट...
"चानयेच्या पिला तुका तीन पाट
दाखयतां हांव तुका नवी वाट...."

# भीरांत पयस करूया!

धीराक धीर दीवूया
एकठांय वाट चलूया
एकामेकां सांगातान
भीरांत पयस करूया!
धीराक धीर दिवूया....

खंयचे वाटेन खंय पावत
निरशेवणी हुस्को चलना
काळखी रात सोंपतनाच
धवीच फांतोड चोंवया!
धीराक धीर दिवूया....

केदेंय व्हडलें मोड आयल्यार
मोडाक तोंण दिवूया
मनीसपणाच्या बळान सगले
जैतीवंत जावूया!
धीराक धीर दिवूया....

# सैम

विशाल अथांग
आसक्त आंग
भू-जल-वन
धन अनुशंग
रंगयाळे रूपरंग
रंग ढंग
रागरंग
रंगसंग
रसरंग
विविधांगी अन्तरंग
अनन्त रंग
रंगीत तरंग
तरंगांत संग
एकामेकांत दंग
होच सैम हेंच मर्म
हेंच तारतम्य!

* पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार एक आयू.बी.एस्. (इंडियन ब्रॉडकास्टींग सर्विस) उच्च अधीकारी.

* प्रसारण सेवेंत येवचे आदीं धा वर्सां शिक्षक आसले.

* आकाशवाणी पणजी, मुंबय आनी रत्नागिरी तशेंच दूरदर्शन केंद्र मुंबय अशा केंद्रांनी प्रसारण सेवेंत आसले. पणजे दूरदर्शनचे ते केंद्र संचालक आसले.

* एक उंचल्या पावंडेवेले कवी,गीतकार, मोटवी कथा आनी ललीत बरोवणार म्हूण तांची नामना आसा.

* लोकशिक्षणा खातीर प्रसार माध्यमांध्यमांतल्यांन ताणीं भरीव वावर केला.
१९९० हे वर्सा राष्ट्रीय पातळेचेर व्यसनमुक्तीचेर कार्यावळ प्रसारित करपाखातीर दिल्लींत केंद्रीय कार्यक्रम निर्मिती मंडळांत तांचो आसपाव आसलो. सोरो, तंबाखू आनी धुंवळी वखदांचो दुश्परिणाम जनसामान्यांक पटवन दिवपाच्या उद्देशान हे कार्यक्रम-मंडळान ४६ वांट्यांची कार्यावळ निर्माण केल्ली. आनी ती भारतभर सगल्या भारतीय भासांतल्यांन प्रसारीत जाल्ली.

* १९९१ वर्सा रेडिओच्या शिक्षणिक वावराचो अभ्यास करपाक भारत सरकारान तांकां तीन म्हयन्यां खातीर जर्मनीचे भोंवडेर धाडिल्लो.

* नाटकां, लोकगीतां, लोकनाचाच्या पोसवणे खातीर ते एका तेंपार खूब वावुरल्यात. हे मळार कला अकादमी आनी हेर संस्थांनी आयोजित केल्ल्या सर्तींनी ताणीं दिग्दर्शन केल्ल्या कितलेशेच प्रस्तुतींक अनेक इनामां मेयळ्यात.

* तांचीं बरोवन रेडिओचेर सादर जाल्लीं नभोनाट्यां:
१) चार हात २) वी वोन्ट चेंज ३) विसुबाब ४) देड शाणो
५) दुदुई ब्रम्हा ६) स्पर्श

बरोवन माचीयेर सादर जाल्लीं नाटकां:
१) लीडर (एकांकी) २) फितुर (एकांकी) ३) पाताळयंत्री (एकांकी)
४) राग धरचो न्हंय (एकांकी) ५) आशेचो फांसो (३ अंकी)

* हाचे आदीं उजवाडक आइल्लीं तांचीं पुस्तकां:

| | |
|---|---|
| आमची भूंय | (कविता) |
| दिव[illegible] | (दिवाळी अंक) |
| तां[illegible] आमचें नमन | (संगीतिका) |

* तशेंच सद्याक "पाकळ्यो" (कोंकणी) मासिकाचे संपादपी.



.....उजवाडावपी